अम्मेंबळ सुब्बराव पै कोंकणि बाळ पुस्तक माळा — 4

# पाँच रत्न





## वासुदेव राव

**संपादक मंड़ळि**

बस्ति वामन शेणाइ (गौरव संपादक)

**सांदे**

के. बालकृष्ण शेणाइ (प्रबंधक)

के. वेंकटेश कामत (निदेशक)

एच राघवेन्द्र राव (संचालक)

चंद्रमति एस राव

नागराज राव जवळि

वेंकटेश एन् बाळिगा

अम्मेंबळ सुब्बराव् पै
कोंकणि बाळ पुस्तक माळा - 4

# वासुदेव राव

लेखक
एम् वेंकटेश प्रभु




प्रकाशक
केनरा हायस्कूल शताब्धि प्रकाशन
कोंकणि विभाग ए. एस. आर. पै. रोड़, मंगळूर

Vasudev Rao written by Sri. M. Venkatesh Prabhu
Published by Canara High School Centenary Publications and Konkani Dept. A.S.R. Pai Road Mangalore 575 003

First Edition 1996



Copies 1,500

Cover page painting by Sri G.P. Shetty

Price Rs. 8.00
At concessional rate for Canara Students Rs. 6.00

Printed by: Codeword Process & Printers, Coelho Lane, Falnir, Mangalore - 575 001.

# प्रकाशकालिं उत्रं

आमगेल्या केनरा विद्यासंस्थेचे संस्थापक दि. श्री अम्मेंबळ सुब्बाराव पै. धर्म, सत्य आनि निष्ठा हीं तीनी तत्व आदर्श तांगेल्या जीवितांतु पालन करनु आयिले. आनि तंगेल्या कालाचे आनि मुखावैले पीळिगेचे समाजाक, मार्गदर्शक दावन् राविले एक द्रुव नक्षत्र सारकेचे महापुण्य पुरुष. विशाल जगत्याच्या महान मानव समुदायक बरेपण दावचाक विद्यादानचि मुख्य आनि विद्या संपन्नता मनुष्याल्या आर्थिक आनि सामाजिक विकासाक अती अगत्य मळळेले चिंतप ताँगेले जीविताचे उद्देश आशिलो. तान्नि स्थापन केल्लेले केनरा हाईस्कूल विद्या संस्थे, केनरा बैंक हीं दोनि संस्थे आजि जगारि ख्यातिवंत दावनु आस्साति. हीं दोनि संस्ताा स्थापन करतानायि दि. पैंनि "बहुजन सुखाय बहुजन हिताय", महळेले तत्वादर्श वावराड्यांक मार्गदर्शि सूत्र दावन् दिलेलें. तें आजिकयि ऊर्जितांत आसा. श्री अम्मेंबळ सुब्बाराव पैलि माय-भास कोंकणि

1) कोंकणि स्वतंत्र भास अशें केंद्र सहित्य अकाडेमिन मान्यता, दिल्ला.

2) कोंकण्यालें कुळार गोंयांतू राजभास अशें स्थान मेळां.

3) भारत देशाच्या संविधानाचे 8 वे वळेरिंतु कोंकणि भास मेळोनु घेवनु कोंकणिक 18 राष्ट्रीय भाषे पैकि स्थान मेळां.

4) 1995 दशंबर मैन्यांतु मंगळूरांत वैभवपूर्ण आनि अर्थपूर्ण रीतिरि पैलें विश्व कोंकणि सम्मेळन चलनु आयिलें. हाजे निमति जगारि आशिले कोंकणि समाजांतु एक नवो उत्साहु आनि नवि जाग्रति उद्वेन् आयलयां.

आमगेले संस्थापकाले मायभास कोंकणिचे सर्वांगीण उद्दीपन करचे दृष्टिन, केनरा हाईस्कूल कोंकणि विभगा घडोवन् हाळळां. कोकणि विभाग वेवेगळे कारयक्रमाचे रुपरेखा, योजना कार्यगत करचे प्रक्रियांतु एकमेळ आसुनु चेलचे खातिर काम करताचि आसा.

**कोंकणि विभागान**

1) कोंकणि डिप्लोमा क्लास आनि विद्यार्थिंक कोंकणिंतु मुळावें शिक्षण तरगत्यों प्रारंभ केल्याति

2) संस्थापकाले जन्म दिसाचे आचरण करचाक सात दिवसाचे कोंकणि जानपद कला उत्सव करचे.

3) कोंकणि भास, संस्कृति कला, सहित्य जानपद नंता समाजाचे बरेपणा खातिर विंगविंगड क्षेत्रांतु सेवा दिलेले ख्यात कोंकण्याले उडगासु शाश्वत उरचे खातिर तांगेल्या जीवन वृत्तांत दिवचिं बाल साहित्याचे पुस्तकांक प्रकाशनाक योजना शुरु केलां.

हया सर्व योजनेक कोंकणि जनाले आनि संस्थाचें फाटबल जरुर आसा. कर्नाटक कोंकणि साहित्य अकाडेमिन आमगेलें योजनेक फाटिंबल दिल्ला. तशीचि इतर संघ-संस्थेचे आनि कोंकणि महाजनाले सहाकारु आशेनु हें सान पुस्तक तुम्गेले हस्तातुं दवरताति.

देवु बरें कोरो.

**प्रकशक**

**केपुळ दिनेश नायक**

केनरा हायस्कूल शताब्धि प्रकाशन (कोंकणि विभाग)

# संपादकालिं उत्रं

केनरा हाईस्कूल विझा संर्स्थचया प्रशसक मंडळिचे तर्फेन (वतीन) केनरा हाईस्कूलाचे कोंकणि विभाग, कोंकणिचे साहित्य, संस्कृति कला आनि लोकवेदाचे उदर्गति खातिर थोडे मेट काडचाक शुरु केलां. आत्तचिं i) कोंकणि डिप्लोमा कोर्स

ii) मुळावें तरगतिच्या विद्यार्थिक कोंकणि शिकप आनि ताका दावका दालेलें Text बूकं प्रकाशाक हाडल्यांति. हें वरस देकुनु संस्थेचो संस्थापक महान पुरुष श्री अम्मेंबळ सुब्बराव पैं हांगेल्या जल्मलेले दिवसु कोंकणि जानपद कला उत्सव सप्ताह आचरण करचें ठरैलां

कोंकणि समाजाचे आम्गेले मालगडयानिं धार्मिक, साहित्य, कला, सांस्कृतिक श्रेत्रांतु तशींचि सामाजिक आर्थिक, वाणिज्य, बेंकिंग, विझा, वैद्यकीय, आरोग्य सेवा, कृषि, अंतराष्ट्रीय व्यवहार क्षेत्रांतु मस्त इतलें काम करनु राज्यांतु आनि देश - विदेशांतु नांवादिक दाल्लें. कोंकणि समाजाक भरमेचे स्थान मेळळेलें मात्रृ नंय् तान्नि समाज आनि परिसर श्रीमंत केल्लां. विविध क्षेत्रांतु नाव जोळळेल्या माल्गडे

कोंकण्यालों उडगासु मुखावैले पीळिगेक परिचय करनु दिवचे दिशेंतु तांगेले जींवन वृत्तांत ल्हान पुस्तका रुपारि प्रकाशाक हाइचे काम कोंकणि विभाग करता.

ह्या योजनेक दुडवाचे आनि जीवन वृंत्तात संग्रह करचे विष्य प्रामुख्य दावनु आस्सा. केनरा हाईस्कूल एसोसिऐशन प्रशसक मंडळि आनि कर्नाटक कोंकणि साहित्य अकाडेमिनिं ह्या पुस्तक प्रकाशन करूंक मुकारसुनु आयल्याति. श्री वासुदेव राव हांगेले विशयांतु माहिति संग्रहकरनु, वगीचि पुस्तक चपिसुचाक उमेदि घेलिले श्री एम् वेंकटेश प्रभु,गोम्टे करनु मुद्रण करनु दिलले मे! कोडवर्ड प्रोसेस अनि प्रिंटर्स हांका आनि मुख चित्र सुंदर करनु दिलले श्री जि.जि. शेष्टि हांका आनि हेर सर्वें कोरो म्हणतात




बस्ति वामन शेणाइ
गौरव संपादक



19 नवंबर 1852. अंतरिक्षा थांवनु एक ध्रुवतारा भूयिंचेरी शिशु रुपारी आयलें. देशाचि स्थिति ते समयाचेरी कश्शी आशीली? ईश्लीशान आक्रमण करनु उत्तरा थावनु दक्षिणयर्पंत देश गुलाम जात्ता ची आयिर्ली. देशात्तु क्षोभा उत्पन्न झाल्ली गुलाम जात्ता ची आयिर्ली देशात्तु क्षोभा उत्पन्न झाल्ली. गुलामगिरि सांकालो कळचुनु देशाक स्वातंत्र्य धेवचे खातीर आंदोलन सौम्य रुपारि चल्तर्ली . 1857 ब्रिटिष चरित्र कारानि हाक्का सिपाही दंगा म्हणु नांव दिल्ली. हो लेखकु सान आस्तना हया समया इतिहास वाज्जुनु "सिपाही दंगे" म्हणु लेक्कुनु आशिलो.

1885! अंधकारमय आशील्या देशाक सामाजिक प्रकाशु मेळळा म्हळया भावनेन एक आंगल महाशयान ईडियन नेशनल कांग्रेस म्हणु संस्था स्थापना केल्ली. भारतीयांक सामाजिक ज्ञान मेळका, हगुरहगुर हान्नी देशा आडळित करका; हया खार्तीर विद्या बुद्धि ज्ञान हया लोकांक मेळचे खातीर हो संस्थो स्थापन झाल्लो. ईग्लीस आनी थोडे भारतीय हांतु प्रथम झावनु सदस्य झाल्ले.

आडळित, केवल हजार मैलि दूर थावनु आयिल्या

हया सरळ, सज्जन, प्रामाणिक लोकाक विद्यादान करका म्हणु विद्या प्राप्त करनु समाजा खातीर चिंतन कर्चा स्वल्प युवकांक मनांतु आयलें. मनांतु आयिल्या विचाराक आकार दीवचाक हांका उत्सुकता आल्ली. हो संदभु कोंकणी (गौड सारस्वत) समाजाक अरुणोदया कालु. ज्ञाना सूर्य उदय झावचे झळक देक्क पळळोलो कालु. पांच मेधावी युवक, आनी तांका एकु सारथी येदुरु आयलें. हे सारथीक आन्नी मुकार आम्मी श्री कृष्ण रुपाचो अमेंबळ सुब्बराव पै म्हणु लेक्कुका. इतर पंच पांडव-हाँका आम्मीं "पंचरत्न" म्णनु लेक्कुका. हया पूरा आम्कां प्रात : स्मरणीय म्हणु आम्मी लेकचे मात्र नैहीं मुकावैले पिळिगक सांगुका । हांगलो उपकारु स्मरण हर दिवसु करका. ऋग्वेदान्तु सांगिले प्रमाणी "आनो भद्रा कृतुवुयंतु विश्वत"- म्हणु सदा सर्वदा माग्गुनू धेवका. सरळ अर्थारी हाज्जो संदेशु, हे करुणाळु भगवंता! हया जगत्याच सर्व दीशा थावनु आम्कां उदात् विचारु मेळो. अम्गेले समाज उत्तरोत्तर अभिवृद्धी झाव्वो म्हणु आम्गेली दैनंदिन प्रार्थना झावका .

हे पंचपांडव ! आम्गेले समाजांतु विद्याज्योति प्रज्वल केल्लेले - हांगेलिं नांव अश्शी आस. श्री. ए. वासुदेव राव,

बि. पध्मनाभ बाळिगा . ए. पध्मनाभय्य, बि. वामन बाळिगा. आनी यु श्रीनिवास राव. हांगेले मार्गदर्शकु अमेंवळ सुब्बराव पै.

हांगेल्या पैकी श्री पध्मनाभय्य - हो ईग्लीश भाशेन्तु प्रवीणु. आपज्याले विद्यार्थी पूरा हया भाशेन्तु प्रवीण झावका, तान्नी गंगा प्रवाहामणके स्पष्ट ईग्लीश उल्लोका म्हणु चिंतां करचो अध्यापकु झावनु आयिलों. इत्याक म्हळयारी गाडवांक घोडो कर्चाक म्हणु हो सांगतालो. मात्र नहीं, विद्यार्थी तप्पु नात्तिलें निर्भित जावनु ईग्लीश भास व्याकरण बद्ध उल्लोचे तश्शीं अविरत प्रथन्न करतालो. हो प्रशिक्षण अध्यापक नहीं केवल इंग्लीशान्तु मात्र बि.ए. उत्रीर्ण म्हणु एक संदर्भारी शाला इतस्पेकट्रान आक्षेपु काळ्ळो. झाल्यारी हो भगीरथ मास्की सर्नी. ताणो तुरंत हें काम प्रारंभ केल्लें खासगी जावनु कन्नड आनी इतिहास हांतु परिक्षेक बसलो. कालेज प्रवेशा खातीर विनायती प्राप्त केल्ली. रवासर्गी जावनु एल.टि. परिक्षेक बैसुनु उत्रीर्ण झाल्लो. सर्व विप्पयान्तु संपूर्ण तरबेती अध्यापकु आवनु विद्यार्थी वर्गाक मार्ग दर्शकु झाल्लो. (अध्यापक तरबेती एल्.टि. म्होणु आश्शीली माग्गीरी बि.टि. म्हणु झाल्ली आंत्त

बि.एड्. म्हणु परिवर्तन झाल्ला).

1891 न्तु केनरा हाईस्कूल प्रारंभ करतना हया पंच पाडवांक आदर्श मात्र येदुरु आशीले विनहा आर्थिक या इतर कस्सलेंही सुविधा येदुरु नां आश्शीली. हो विद्या संस्थे नोंदावण झावका म्हणु हांका प्रथम मेठान्तु कष्टा पर्वतु येदुरु आय्लो. पांचजेन म्हालक - अध्यापक म्हणु हे युवक विद्याक्षेत्रान्नु सेवा मनोभावारी आय्ले.

स्कूलाक मान्यना दीवका म्हणु हांनी मद्रासांत आफीस आश्शील्या "डयारेक्टर आ. पब्लीक इन्स्ट्रकशन" हांका अर्जी दिल्ली. ती मागणी इनस्पेक्टर आइस्कूल्स् - केलिकट हांगेल्या नुखांत्रि दिल्ली. नियम प्रकार, नंवे स्कूल पारंभ झाल्यारी मंगळूरु शहरात्तु आशील्ये इतर विद्या संस्थेंक आक्षेपु आस्स की म्हणु, ती अर्जी वापास मंरालूराक ची आय्ली. तेदना हांगा मंगळूर मुणिसपल कौंसिल् एक मिडल स्कूल चलासित सि आश्शीलें. केनरा हाईस्कूल प्रारंभ झात्त ची. हाया मिडल स्कूलाचो संख्यो कनिष्ट झाल्ला म्होणु हान्नी मद्रासाक पत्र बरय्लें आनि बिलकूल हाईस्कूलाक मान्यता दील्याक नज्ज म्हणु बरय्लें.

पंच पांडवांक निराशा दाल्ली. दाल्यारी तांगेलें धैर्य अचल आश्शीलें. तांगेली आत्मसााक्षी आत्मवाणी, निष्ठा, विवेकु हें पूरा उन्नत मट्टारी आश्शीलें पराभव दाव्चे जैताक पावल "म्होणु हांका मनांतु गेल्लें. अध्यापकु श्री पध्मनाभ बाळो स्कूला खातीर मद्रासाक रवनो झाल्लो. डायरेक्टर आफ पब्लीक इन्स्ट्रक्षन" हया आफीसम्रतु वच्चुनु निर्देशकाल्या कुडान्तु प्रवेश केल्लो. एक ची निमिष ! पद्यनाभ बाळो आनी डैरेक्टर, दोनी जेनंही आश्चर्य चकित झाल्ले. हाक्का कारण आस. तो महनीयु मद्रास प्रेसिडेंसी कालेजांतु पद्यनाभ बाळिगाक अध्यापकु आश्शीलो. आपल्याल्या शिश्याक पळोनु ताक्का अतीव आनंद झाल्ले. बाळिगाक बैस म्हणु सांगुनु ताणे बाळिगाल्या भेटी उददेशु निम्गिलो. अध्यापकाक गौरव सूचक झावनु बाळिगा उठानु राब्लो. मागणी पत्रं काणु दिल्लीं. डैरेक्टाक तें वाज्जुनु अभिमानु उक्बुनु आय्लो.

आपव्याल्या शिश्यु एक विद्ये संस्था स्थापना करनु ताक्का मान्येता निमगुचाक आय्ला. तेंवयि 550 मैली दूर मंगळुरां थाल्नु आय्ला? ही अनुमती दीवचे काम हांवे कर्येत. कांही कष्ट नात्तिलें कर्येत. मेग्गेल्या शिहयाक उपकारु करुंक

माक्का् हो सुवर्ण अवकाश आय्लो. Recognition granted - मान्यता दिल्ली'' म्हणु ताणे सरसरची बरोनु दिल्ली.

आनी या प्रमाणी पत्र हस्ताक्षर घाल्नु दिल्लीं. पर्वतशीं आश्शीलें काम फुल्ला हारु झावनु परिवर्तन झाल्ललें पळोनु वाळिगाक अपार आंनद झाल्लें. ताणे हदयाळान आपण्याला अध्यापकाक कृतज्ञता अर्पण केल्ली.

मान्यताचो संदेशु मेळळेले दिवसु कार्तीक एकादशी. दिनभर उपासु कर्नु भगवंतालें नामस्मरण करचो दीसु. मनांतु घरान्तु मंदिरांतु वाटरान्तु, शहराणतु, असंख्य दीप झळोनु अज्ञाना अंधकारु दूर करचो दीसु. हया गौड सारस्वत समाजाक विद्यादान दीवचाक शुभांरभ झाल्ललो हो दीसु आम्मीं सदा सर्वदा यादु दवर्नु धेवचो दीसु . ''दीप से दीप जलाते चलो. विद्या की गंगा वहातेचलो'' म्हणु सर्व समाजान. हदयाळान गायन कर्चो हो दीस एक दिक्लेन आन्नेक दिवली जळोका. तश्शी शेंवरी सहस्त्र लक्ष्य कोटी दिव्वो जोळका. विद्याा ची गंगा अविरत होळका म्हणु आम्गेले माल्गडयानी मनान करता

आराधना केल्ललो हो भांगर संदर्भु. मुकारसुनु शतमान शतमान दवोचे आम्गेल्या सर्वालें कर्तव्य.

मान्यता मेळळी. झाल्यारी नांतु एक शर्त अश्शीलें. स्कूलाक आडळिता खातीर एक समिती झाव्का. हया युवकानी अमेंबळ सुब्बराव पैक विनांति केल्ली. सामिती रचना करनु ताज्जें सरत्य वयसुनु घेवका म्हाणु. सुब्बराव पैन रामचन्द्रय्यातागी अध्यक्ष झावचे खातीर विनंती केल्ली. विद्या संस्थेक एक रुप दिवचाक हया भगीरथ प्रयत्न पळोनु ताणे कूडले सम्मति दिल्ली. के. पि. रामराव, अडिगे श्रीनिवास राव. मंगळूर बाब पै हाश्री संदस्य झाल्ले. तश्शी मंगळूर रामचन्द्रय्य (अध्यक्ष) अम्मेंबळ सुब्बराव पै. के.पि. रामराव, अडिगे श्रीनिवासराव, मंगळूर बाब मै हांगेली समिती आडळिता खतिर प्रारंभ झाल्ली. संचो सदस्य झावनु मंगळुर रंगप्प भंडारी हांतु मेळळो. हतिहासान्तु दाखले झावची ही घटना तारीक 10-5-1893 दीसु चल्ली.

त्यागु म्हणु एक शब्दु आस. आत्तं तो शब्दु शब्दकोशान्तु ची नां कि म्हणु संदेहयेत्ता. झाल्यारी समाजांतु झावचो, देशान्तु झावचो, त्यागा निम्ती ची धन कार्य झाल्यांची. आम्गेले हया विद्या संस्थेक बुनादी झावनु आश्शीले हे पंचरत्न त्यागाची मूर्ति

झावनु आश्शीले म्हणु सांगुक अपार आभिमानु झात्ता. हांगेल्या त्यागाचे कारणान ही संस्था शतमान उत्सव आचरण करुंक समर्थ झाल्ली. सुब्बराव पैन तुरतं सम्मति दिनि. कारण ते कालरी आम्गेल्या समाजांतु अनेक योग्य् महनिय आश्शील. तांतु रामचंद्ररया एक्ल्लो. हांगेल्या आदर्श पथरीची चलन तंतरवैले महनिय हया संस्थेक कीर्ति हार्डुक समर्थ झाल्ले म्हणु सांग्तना ह्यमय भरनु येत्ता. अश्शी आलोचनकरताना शेंबरी आनी पांच वर्स फुडे हे युवक समाजा खातीर इत्ले त्यागु करुंक पाव झाल्ले.

कंचेही प्रतिफल अपेक्षा नात्तिलें तान्नी हें विद्यादानाचे पवित्र कार्य, कर्तव्य म्हणु केल्ले. शतमाना नंतर हया लेखका सारखे कोणही तांगिले हें जीवनचरित्र आदर्श म्हणु बरयतलो म्होणु तान्नी बिलकुल लेक्कनी. केनरा हाईस्कूल प्रारंभ जात्तना तरबेत झाल्लले अध्यापकांक भारी अल्काशु (आर्थिक आनी इतर) आशिलो. झाल्यारी तान्नी हे आकर्षणाक पणा नात्तिलें हया संस्थेन्तु आय्ले. असलें आदर्श कहीं मेळत.

योगय स्थान अध्यापकांले आश्शीले सोणु पहनाभय्य हांगा आयलो. आंध्र प्रदेशाचे कर्नुल हांगा सरकारी हाईस्कूल

- हांग्जां मुख्योपाध्यायु झावनु नेमक झाल्लें सुवर्णवमाशु सोणु पद्मनाभ वाळिगा हांगा आय्लो. कल्नी कोंदन्तु गणपति हाईस्कूलांतु सीनियर अध्यापकु आशिल्लो वासुदेवराव कामधेनु चित्र लांघना आश्यागी आयलो. हांका मेळचो पगार कितुलो म्हणु आस्कुचाक तुमकां उत्सुकता आश्चाक पूरो. केवल पंचवीस रुप्पयी मेनांक. मुख्योपध्याक आटावीस. आतं ह्या पाँच अध्यापकालें जीवन संबंध एकी झळकी तुमगेल्या येदुर दवोंग्चाक हांव इच्छा पावता. प्रथम झावनु ए. वासुदेव राव्. हागिलें उल्लेख कर्या. हो 1891 धर्नु 1914 तांहि मुख्योपध्यायु झावनु आशिल्लो. हाक्का कारण आस. मुख्योपध्यायु तरवेनी झल्लल्लो अध्यापकु झावका म्हणु नियम आशिले कारण हो प्रथम मुख्योपध्यायु झाल्लो.

मद्रास क्रिश्चियन कालेजाचो विद्यार्थी झावनु हो फिजिकल सायन्स. ऐच्छिक विषय धेवनु गेजुवेट झाल्लो. कल्लिकोंदन्तु आशिले गणपत हाईस्कूलन्तु अध्यापकु झाल्नु मेळळो. ताज्ञी अध्यापक प्रशिक्षणाक हाक्का पेटयलो. हो उत्तीर्ण झावनु आय्लो. तेदना आमगेल्या समाजान्तु प्रशिक्षणा ना झाल्लल्लो कोणयी ग्राजुवेट अध्यापकु ना आशिले. त्या कारण हो

केनराहाईस्कूलाच्चा प्रथम मुख्योपध्याय झाल्लो.

शिक्षण मळळले ची एकु यज्ञ म्हणु भावनेरी आशिलो वासुदेवाक. दिसाक 24 घंटो आसोचे ची उणे दिस्तालो. हेड्मास्ट्राले कर्तव्य आनी इतर पाठ प्रवचनांत हांका 16-17 घंटे लागताले. परिणाम अध्यापक पैकि आनी विद्यार्थी वृंदान्तु शिस्तु आयलो. मैन्याक तीस रुपय अर्थात दिसाक एकी रुपयी हाक्का पगारु. स्कूलक शनवारा रजा आशिले झाल्यारी शिस्तु बद्ध, हो व्यक्ति. शनलरा हमन्ताळी परीक्षाकरनु परीक्षा पत्र दोन तीनी दीस भितरी तपासण करनु विद्यार्थक मेळचे तश्शी व्यवस्था करतालो. परिणाम. केनरा हाईस्कूल म्हळारी मेधावी विद्यार्थी मंदिर म्हणु मद्रास प्रांत्यांन्तु नावदीक झाल्लें श्रेयस मेळयारी तें नष्ट झायना. आविरत प्रथत्न करका हारल्यारी हठसाधना करका म्हणु हाग्गिले जीवन मंत्र आशिलें त्या कारण त्याकालाचे जीवनाचक श्रेयस पथारी ची वायुवेगानी चल्लें.

हया पंचरत्नंतु आन्नीकु मेघावी महनीयु बि. पध्मनाभ बाळिगा. हो प्रथम सहायकु जावनु नेमक झाल्लो. हो रसायन शास्त्राचो (Chemistry) पदवीधरु. प्रख्यात प्रेसिडेन्सी कालेज (मद्रास) हांगा विद्याभ्यास कर्तना हाक्का प्रख्यात

ईंग्लीशा शिक्षण तज्ञ मि-डकन् प्रिन्सिपल झावनु मेळळो पध्मनाभ बाळिगा अत्यन्त मेधावी. प्रशिक्षण दाल्लो अध्यापकु आशिले दाल्यारी हो ची प्रथम मुख्योपध्यायु झावनु नेमक जात्ता आशिलो. संस्थे वयरी अपार प्रेमानी हो केनरा स्कूलाच्चा अध्यापक मंडळींतु मेळळो. असल्या मेधावींक कहीं योग्यस्थान मेळता आशीले. झाल्यारी समाजा वाग्रि प्रेम तथा हया समाजाक उज्वाडा हाडचे खातीर अविरत प्रयत्न हाक्का आयसकांता तश्शी हया विद्या संस्थे तर्पेन आकर्षण करनु हो आयलो. झाल्यारी अभिप्रयान्तु मतभेदु येवनु हाणे 1894 न्तु राजनामे दिल्ली. दुर्भाग्य! हागेलें नहीं संस्थेचे! अत्यंत दक्ष मेंधावी अध्यापकाली सेवा स्कूलाकमेळना नात्तिले गेली.

तीसरो मेधावी ए. पध्मनाभय्या बि. ए. पदवी परीक्षेंतु हो इंग्लीशान्तु उत्रीर्ण झाल्ललो. झाल्लारी हांगिले इंग्लीशा ज्ञान अपार. विद्यार्थीनि सरळ, तप्पु, नात्तिले ईंग्लीश उल्लोचाक समर्थ झावका म्हणु हाणे अविश्रांत प्रयत्न केल्ली देश गौरव आश्शील्यांक ईंग्लीश गरजेचे म्हणु हो सांग्तलो. हें मात्र नहीं अध्यापन एक यज्ञ म्हणु लेक्कु नु हाणे काम केल्लीं परिणाम स्कूलांतु विद्यार्थी इंग्लीश भाशा ज्ञानांतु कित्ले प्रवीण झाल्लें

मळयारी समग्र मद्रास प्रांत्थान केनरा हाईस्कूल हें अमोघ विद्याामंदिर म्हणु वाहवा! वाहवा! शाभास गिरि दिल्ली.

आत्त आम्मी बि. वामन बाळिगा संबंध उल्लेख कर्यां. हो प्रख्यात मद्रास किशियन कालेजाचो ''बायोलजी'' पदवीधरु. बासेल जर्मन मिशनरी स्कूलान्तु सहायकु झावनु आशिलो. मंगळूरा धावनु हाक्का रण कहळे आयक पळळे. एक निमिष व्यर्थ करता नात्तिले हो त्या कामाक राजिनाम दीवनु केनरा हाईस्कूलांतु आयलो हो ज्ञान भंडारी. केल्ल खुदद ज्ञान संग्रह कर्चे मात्र नहीं तें भांडार विद्यार्थीक अर्पण करनु खाली करका. खाली झात्त झत्तना पुनरपि भर्ता म्हणु हाणे केल्लले श्रम अत्यंत श्लाघनीय. हो अध्यापक शिक्षण घेल्नु अध्यापक नहीं. जन्मता अध्यापकु. केवल भाषण दीवनु शिक्षण मटटु वर्यी वच्चो नहीं, काया वाचा मनसा हें अंतस्त राब्बोका आनी तें शाश्वत झावका म्हणु दीसु-राति परिश्रम केल्लेलो. हागेल्या दीसाक संधी कालु-सांज म्हणु नां आश्शीली विद्येचो लामण दिव्वो - नंदादीप जावनु झळतची आसुका. हागेले दोनी सहोदर-पुंडरीक बाळिगा, आनी अच्चुत बाळिगा हान्नी हया ची आदर्श पथारी चल्नु स्कूलाची सेवा केल्ली. आनी कामधेनु कीर्ति शाश्वत केल्ली. पंचरत्नांतु

आखेरीचो ए. श्रीनिवास राव म्हालक अध्यापक मंडळिचों होवही एकु उत्साही सदस्यु. हो केवल अध्यापक मात्र नाहीं ''सपना सौध'' (Dream guildings) साक्षात्कार केल्ललो. विश्वेश्वरय्या पैंक्तिनु येवचो मेधावी. पाट शिकोचें मात्र नहीं. नवी नवीं इमारत स्कूलाक झावका. तें केवला सपन सौध नहीं. विद्यार्थींक आश्रय दीवची. तान्नी शिकता चिंतना प्रकाशु दीवचीं इमारत झावकां म्हणु लेक्कुनु हाणे स्कूल. कुडं-विशाल सभांगण निर्माण झावचाक प्रतक्ष. अप्रतक्ष सहायु केल्लो. लंके सांकोवु बांतना झाल्लली चान्नी सेवा ही नहीं ही प्रत्यक्ष साकार झाल्लली सत्यकथा म्हणु लेकतना आम्का रोमांचन झात्ता. हांगेल्या आदर्शाचें प्रतिबिंब विशाल सभांगण 'भुवनेंद्र-हाल''. हचा परीश्रमा खातीर हांका चडतावति सांबोळु धेनी. भुवनेंद्रं सभांगण नाटक आदी चटुवटिकेक कित्लें योग्य आस मळयारि हांगा प्रतिध्वनि झायना. विशाळ कंडिचों अनि बागिळ आसुनु वारे सदा सर्वदा आस. आत्तं सांगा हाक्का हांवे डा. विश्वेशरय्या ''हागेल्या वर्गान्तु सेरसिल्लो योग्य नहीं वे? हया लेखकाक भुवनेंद्र सभासदनाचो'' बिडलारद नटु''. विद्यार्थी आस्तना चर्चकूट सानी सानी सभा. मागिरी स्कूला नाटंक मागिर पूर्विलो विद्यार्थीलें नाटंक अमेबंळ सुब्राय पै मेमोरियल फंडाचे

गेल्हेन जिवलें ठेकागी ह्या लेखकान वगेनु मित्र वृंदा सहायन प्रदर्शन केल्ललें नाटक अत्यंत स्मरणीय. ह्या नाटक संबंधी सेंटेनियल फंडाचें स्मरणीका मुद्रित झाल्लु ह्या लेखकाक आनी तसेंच निदांक एकु अर्ती होडु इनाम मेळ्ळें. कप नहीं, नगदी इनाम नहीं. सेंतलें अध्यापक आनी हाईस्कूलाचें अत्यंत मोगा सहसंयु-यु श्री निवास किणी हाणें सांवर्सीयगल्लु बरयलें "The Veterans staged the drama on the occasion! वसु हांव धन्य झाल्लों.

ऐक सेळचें हाईस्कूलाक एक विशेष नहीं म्हणु दिस्ता. मद्रास प्रांत अस्तना तांतु 26 जिल्ले आसतना सगळ्या केनरा हाईस्कूलाक (स्थापना 1893 तु - सळ्यागि 103 वरस फुडे मॅट्रिक परिक्षेन्तु प्रथम तीन स्थान मेळ्ळीं उल्लेख वाजितना आनंद जाता. प्रायमरी स्कूल पांच वरस हाय प्राइमरी तीन वरस - हाईस्कूल तीन वरस-अशीं 11 वरस शिकवण मॅट्रिक पडतना झाल्लें आत्तांचा सध्यें 10 वरस शिकवण नहीं. हाइर प्रायमरी आनी हाईस्कूल-ह्या वर्गांक I फार्म, II फार्म, III फार्म, IV फार्म, V फार्म, आनी VI फार्म म्हळनाल्लांचीं. तेदना एक विद्यार्थी मॅट्रिक शिकल्लो म्हळ्यारि डबल ग्रेजुवेट झाल्लो तितल्लो भरस आशीलो.

हया लेखनाच्च्या प्रारंभांतु स्कूलाक मान्यता मेळचे खातीर पध्मनाभ बाळिगा .मद्रासाक चल्लो आनी डाइरेक्टर आए पब्लीक इन्सट्रकशन हाक्का मेळळो म्हणु तुम्मी वाज्जिलं. हो महनीयु पध्मनाभ बाळिगा अध्यापकु आशिलो म्हणुंहि तुम्मी वाजुनु आस. हो आंग्ल महनीयु मि. डंकन, बाळिगाक पळोनु. आनंद पावनु शिश्याले हे परिश्रमाक सफलता हाडुंक तुरंत मान्यता दीवचाक मंदुरसुनु आयलो हें तुम्मीं बाजालं 1891 न्तु मान्यता दिल्ललो हो महाशयु तीनी वरस उपरांत हया विद्या संस्थे बाब्तु आश्शि बरयता "अपार विरोध आसल्यारी, दृढ मनान हें स्कूल प्रारंभ झाल्लां. तान्नी अपार परिश्रम, त्यागु दाकोनु हया संस्थेक किरीट दवरलां. हें श्रेयस स्कूला मात्र नहीं. हें स्कूल प्रारंभ केल्लल्या समाजाक ही भुषणा झाल्नु आस. एक वरस उपरांत 1895 न्तु हो खुद मंगळुरा येल्नु "द्दड चित्त, त्यागमय सहकारु दीवनु हे समाजान हे विद्यासंस्थेक भद्र नांदि घाल्या. हया मेधावी समाजाच उन्नती चे प्रतिबिंब हें स्कूल" म्हणु 101 वर्ग फुडे डंकनु महाशयु उदगार काडता. 101 वरस उपरांत हो लेखकु अभिमानारी हें उल्लेख करता. हें समाज अशीची मुकारसुनु वच्चो म्हणु अन्यन्य मनान प्रार्थना करता.

बुनादी अध्यापकाले जीवना झळकी आम्मी पळयली. ताज्जा नंतर सेवा त्याग, मनोभावारी तिचि पंरपरा मुकारसून वेल्लेली थोडे अध्यापकां बाबुतु संक्षीप्त विवरण दीवचाक हो लेखकु इच्छा पावता.

एक दृष्टीरी हौ लेखकु अत्यंत नसीबवानु. कारण हाणे 1941 न्तु स्वर्ण महोत्सव 1961 न्तु प्लेटिनं महोत्सव 1991 न्तु शतमान उत्सव पळयलां आनी तांतु भाग धेतला. 1941 न्तु स्वर्ण महोत्सव आचरण करतना हो मेट्रिक कलासान्तु विद्यार्थी. हागेलें हाईस्कूल जीवनयी अत्यंत स्मरणीय. 1941 न्तु स्वर्ण महोत्सव आचरण करुंक एक समिती आशीली. स्कूला विषयांतु प्रशंसा पूर्वक एक आंग्ला कविता इंग्लीस मास्ट्रु बि. केशव बाळिगान बरयिली त्या दिवसु ती पय्ण करुंक कंचो विद्यार्थी झायत म्हणु प्रश्न आयलो. तेदना IV फार्म मळारी डिल्जिन 240 विद्यार्थी आशिलीं. हया 240 विद्यार्थीन्तु ईग्लीश उच्छारु. म्हणी, ठीवि, सभा कंपन नातिले 10 जन विद्यार्थीक वेंचले. तांतु हांवयी एम. बेंकटेशप्रभु येक्लो. एक् हफतो अगाध परिश्रमा उपरांत हांव ची कविता वाज्जाुक सिलेक्ट जाल्लो. त्या वरसा चा शाला वर्धंति बाबतु नाटकांतु हांव आशिलो.

तो दिसु आयलो. हेडमास्तर यशवंतराव (डॉगु नांझल्यारि अत्यंत सरल, मेधावी-अध्यापक हो) आनि वरले अध्यापक रंगभूमिरि आयले. पर्दा माक्सी वर्कॉडी अनंतरामराव नाटका व्यवस्था खातीर आशिलो. त्या दिवसु अध्यक्षु कांग्रेसा होडु मेधावी, रुप्या जिव्वां (Silver Tongue) श्री सत्यमूर्ति म्हणु माक्का यादु. समारंभु जाल्लो. भाषणा फुडे स्कूला प्रशंसा करनु गीत पठं झाल्लीं. हांवे इंग्लीसा कविता वाचन केल्ली. इनाम वांटितरि 'जन मन गण म्हणुंक विद्यार्थी आयले. तेदना माक्का उडगास आसिल्या प्रमाणे सत्यमूर्तिन 'वन्दे मातरं म्हणया म्हणु' इच्छा प्रकट केल्ली.

तारगेले वट्टु तें मणुंक एक विद्यार्थी झावका म्हणालो वर्कॉडी मास्त्रान माक्का सुकार गाल्लो. हाव रंगभूमिरि आयलों माक्का पळोनु तो मणालो आज तुक्का इनाम आशिलो नवें? हांवे वें म्हणु मातें हाल्ल्यलें. माक्का वन्दे मातरम् गीत्र आसवे? ''वहि - केवल एक चरण नहीं - संपूर्ण पद्य एत्ता. ताणे माक्का आश्चार्यान पळयलें. ताजे दूसरे प्रश्न करचे फुडे हांवे मळळे'' बंकिमचन्द्र चटर्जीलें आनंदमठ हांवें वाचलां. तें संपूर्ण पद्य माक्का पाठ आस'' हो सुवर्ण महोत्सवु केवल स्कूलाक मात्र नहीं

- मंगेल्या जीवन ग्रंथान्तु स्वर्णाक्षारी बरोंचो उत्सव झाल्लो. एक तरपेन सत्यमूर्ति आनेक तरफेन हांव. अयिले सर्व प्रेक्षक उटानु राबोनु हया राष्ट्र गीतेक नमन करुंक लगली.

सातन क्लासान्तु आम्का आशिले अध्यापकान्तु स्वल्प जनाले उल्लेख कृतज्ञता पूर्वक करचे मेगले कर्तव्य जावनु आस. सातवे क्लासांतु उमानाथराव. रंगप्प प्रभु. हे पाटु करताले (कंचे पाट घेत्ताले म्हणु उडगासु नां) सात्ता. आठान्तु राघवेन्द्र बाळिगा म्हणु मास्त्र आम्का मेळलो आमगेले परम सौभाग्य. कन्नड कविता रागान मण्चे तागेलो संप्रदायु. त्या कारण माक्का कन्नड भासे वयि भारी प्रीति आयली. हांवे नंवा क्लास वत्तना हांव आनि आन्नेक विद्यार्थी-वासुदेवाराव तागेले नांव म्हणु उडगासु. हस्त पत्रिकेक संपादक जाल्ले. समग्र हाईस्कूलाक एक् कन्नड संघु स्थापन झाल्लो. आम्मी दोग्ग जनंही ताज्जे कार्यदर्शी झाल्लीं. तेंची वर्स (1940 म्हणु दिस्ता) स्कूलाचो पूर्वा विद्यार्थी एच. वि. कामत् आयलो.

कलेक्टर आशील्लो आमगेल्या समाजाचा हो अत्यंत सरळ व्यजि स्वातंत्र्या खातीर आपण्याले कामाक सोड चीट दीवनु आयिलो. कन्नड संघा तपेन हाक्का स्वागत करचें सौभाग्य

माक्का मेळळे. केवल कन्नड मात्र नहीं - मातृभास "कोंकणी बिलकुल विसोरुनूकाची म्हणु ताजे सांगलें मेगेले हर्देन्तु हें उत्र बसलें त्याची कारण कोंकणींतु नाटक बरोचाक माक्का बुनादी प्रेरण झाल्ली. हांगा आन्नेक द्रोणाचार्यालो उल्लेखु अगत्य आस. हो श्री.एम्-एन्. कामत. एक वरस मात्र माक्का हो अध्यापकु आशिलो. ताणे बरयललें नाटकान्तु हांवे भाग धेत्तिलें. आश्शी नाटक बरोचा मेगेले आसकतीक श्री गणेश झाल्लें हागेलें विनोद - माक्का विनोदमय नाटक बरोचाक मार्गदर्शन झाल्लें.

तागेले "हयूमर्" संबंध - एकु प्रस्ताव हांव हांगा सांगता. एम्.एन् कामत महळारी मुण्कूर नरसिंह कामत. झाल्यारी संदर्भावशात हाग्गेलें पूर्ण नांव कसलें म्होणु कोणही निमगिल्यारी M.N. Kamath - Most Noble Kamath म्हणु रुपान्तर झात्तलो. हया द्रोणचार्याल्या एकलव्य झावनु नाटका व्यल्सायु मेगेले निमित. देवाले दयेन झाल्लो. हे गुरुक हांवें केदना ही विसोरुक नां.

इंग्लीश अध्यापक बि. केशव बाळिगा IV, V आनि VI फार्मांक, तीनि बरसही हो ची इंग्लीश अध्यापक झावनु मेळळो. आमगेले कलास हया संबंध अत्यांत नसीबवान. इंग्लीश

भासेची संपूर्ण बुनादी हाग्गेले कारण आम्गेल्या मनांतु आयली. आज हांव पदवीधर नहीं. झाल्यारी हया भाशेन्तु उल्लोचाक, बरोचाक समर्ता आस म्हणु झाल्यारी ताज्जे संपूर्ण श्रेयस. केशव बाळिगाक वच्चुका. आनि VI फार्मान्तु गणिताक (आपशनल गणीत समेत) माक्का आशिलो अध्यापकु जे वासुदेव पै असले गंभीर ब्यक्तित्वाचो अध्यापकु जीवनांतु मेळचो विरळ. V फार्मान्तु स्कूल प्रारंभ झाल्लल्या दीसु हो कलासान्तु आयलो. प्रथम प्रश्न निमिगेले तुमका मेतमेटिकस् स्पेलिंग गोत्तु आसवे? सगळे कलास निरुत्तर झाल्लें. तुम्का ताज्जे स्पेलिंग सांगुक बरोचाक कष्ट झावचाक पूरो. ताक्का एकु सरळ उपाय सांगता तें तुम्मी याद धवरल्यारी तुमका हे स्पेलिंग केदना ही विसोरनु वचना. He between Two mat-s & I.C.S. अर्थात Mathematies कंचेही पेदद विद्यार्थीक समेत लेकखं आलजिब्र झोमेटी सपूर्ण मनांतु वच्चे तश्शी हो पाठु करतालो. यशवंत नवान निवृति झात्तरी स्कूलाचो मुख्योप ध्यायु झाल्लो.

IV फार्मान्तु येत्तची माक्का इंग्लीश मिडियं आनि कन्नड बदलाक हिन्दी शिकचो अवकाशु मेळ्ळो. अलहाबाद थावनु

हिन्दीन्तु प्रशिक्षण घेत्तिले कृष्णा अनंत पै आम्कां हिन्दी अध्यापकु झावनु मेळो. शुद्ध भास साधरण उत्तर भारताचो उच्धारु (वारणासी म्हाणु सांगुयेत) व्याकरण बद्ध भास आम्मी शिक्लों. दक्षिणभारतान्तु हिन्दी प्रचारु शैशव होशव अवस्थरी आसतना केनरा हाईस्कूलांतु हिन्दी प्रवीण झावनु विद्यार्थी मुकारी आयली. 1942 S.S.L.C. न्तु परिक्षा एफ्रिल मैनांत चल्ली. हांव तेची वर्साच्च फेब्रवरी मैनांतु विशारद् परीक्षे बैसूनु उत्त्रीर्ण झाल्लो. हाज्जो श्रेयस्सु ही हिन्दी अध्यापक कृष्ण अनंत पैक वचुका.

IV फार्मान्तु विज्ञान पाठाक माजिकंपै आशिलो. विज्ञान संबंध अत्यंत सरळ रीतिरी मनां वच तश्शी हो पाठु करतालो इतिहासाक जि आर. शेर्णा आशिलो. गंगोळी राघवेन्द्र शेणै म्हणु हाग्गेले पूर्ज नांव. हो केवल इतिहासु मास्त्र मात्र नहीं इतिहासा संबंधी पुस्तकं बरयतालो इसवी. राय, युद्धं सांगतना कुर्वणी येवचो हो पाठु जि.आर. शैणैल्या प्रवचनान रसभरीत जात्तलो विज्ञानाक आन्नेक अध्यापकु के.के. नयय्क. खादी धारी हो अध्यापकु योग्य रीतिरी आपण्यालो पाठु करतालो.

भूगोळा विषयान्तु अध्यापकु वासुदेव किणी वर्गान्तु चिक्के गडीबिडी जात्त म्हाणतना हाजे उल्लोचे व्यग्य इल्ले परिणामकारी जात्तले क्लास एकदम यथा स्थितिक एतलें. जगाताचे भूगोळशास्त्र आजिकही स्वल्प मटटाक माक्का विसरनी म्हणु झाल्यारी हाज्जो श्रेयसु श्री वासुदेव किणीक बचुका.

खांय अध्यापक हाजीर नात्तिले तेदना माधव बाळिगा जे वामन भट्ट. यं-वि-प्रभु हान्नी येत्तार्ली. हांगेलो उडगासु केदना एत्ता.

सदा सर्वदा उडगासु येव्चो आन्नैक महनीचु गुरपुर पद्यमनाभ प्रभु. शाळेन्तु कारकूल झावनु विद्यार्थीक मार्गदर्शक झावनु आशिलो हो गौरवर्ण महनीयु. सादा सरळ जाल्नु सर्वांक मादरी झावनु आशिलो. माक्का सात्ता क्लास धर्नु फुल् सरकारी स्कलरसिप मेळतालें. प्रनि मैन्यान्तु सांबोळु रशीद. मेगेल्या हात्तारि दवरनु "चांग शीकरे" म्हणु सांगता आशीले. केनरा हाईस्कूलांतु शिक्षण पावचोंचे एक वरदान. माक्का तें सौभग्य मेळ्ळा म्हणु सांगुक आनि तें पौभग्य वरप्रदान केल्लेल्या त्या



देवाक अनंतानंत धन्यवाद. हांव मात्र नहीं मेगेलीं चेर्डुवं ही हांगाची शिक्कुन जीवनांतु उन्नत स्तानांक पाल्ली म्होणु ाकहि आनंद झात्ता. केनरा हाईस्कूल माक्का आजिकही ऩ माल्गडाले घर. आजिकयी स्कूललेक येत्तना वृद्ध झाल्यारी माक्का तर्नाट या उमेदी. कारण माक्का विद्यादान दीवनु मेग्गेले जीवन प्रकाशमान केल्ल्लें घर हें.

आज स्थापकल्या दयिदीसा संदर्भारी केनरा हाईस्कूल हाज्जे स्थापक अध्यापकालें जीवनाची एकी झळकी बरोचो अवकाशु माक्का मेळ्ळो हें अतीव संतोषा समाचारु.

तेंवयी मातृ भास कोंकणींतु बरोचो संदर्भ मेळ्ळो. हया झवकाशाक पंचांग 1944 न्तु केनरा हाईस्कूलांत घाल्ल्लें हांवे. कोंकणी नाटक बरयलें झाल्यारी तें रंगभूमिरी येवचाक तीन वरस गेल्लें. 1947 न्तु प्रथम अवकाशु मेळ्ळो. आनी कोकणी नाटक बरोनु, अभिनय कर्चें व्यवसायु आज पर्यंत चल्लो 1951 न्तु स्कूलाचे साठी वर्सा संदर्भारी पूर्वी विद्यार्थी दीसारी कोंकणी नाटक "कोणलो झांवयी" आभनय केल्लें हया संस्थेक आन्नी हया संस्थेक संबंध पविल्या सर्वांक करुणामय देवु बरें करो ।

# दोनी उत्रं

हया वरस स्थापक, प्रातः स्मरणीय श्री अमेंबल सुब्बराव पै - हांगिले जन्म दिनाचरणे संबंध एक हपतो पर्यंत उत्सव चलता. हचे संदर्भारी मेगेलें जीवन प्रकाशमान करुंक कारण झालेलें - ही संस्था उत्तोस्तर अभिवृद्धी जावो म्होणु अन्यन्य प्रार्थना कर्तां. 54 वरस धरनु कोंकणी भास सेवा. प्रचार रहित हांव करनु आस. हया संदर्भारी केनरा हाईस्कूलाचे पाँच बुनादी अध्यापक (Five Foundation teachers) हांगेली जीवन-झळक "पाँच रत्न" बरोचाक माक्का अवकाश मेळ्ळा. ही जवाब्दारी माक्का दिल्लेंल्ये सर्वांक धन्यवादु. केनरा हाईस्कूल - केनरा विद्या संस्थो हांगेली कीर्ति. अमर झावो.

**- यं वेंकटेश प्रभु**

'प्रभु कुसुम'
कद्री देवस्थाना लाग्गी
मंगळोर - 2